

- **श्री. ज्ञानेश्वर कमलाकांत तारी**
  एम्. ए. डी. एड्. साहित्य सुधाकर.

- वळवय - फोंडे - गोंय; ४०३ ४०१.

- १७ ऑगस्ट १९६१ दिसा सांतइस्तेव्ह जुवें हांगा जल्म.

- 'श्री भूमिका हायस्कूल', पर्ये हांगा १९८४ पासून शिक्षकाची नोकरी करता.

- १९८२ वर्सा 'कोंकणी भाशा मंडळ', आयोजीत काव्य सर्तीत दूसरें इनाम.

- वासंतिक साहित्य मेळ, साहित्य मदलसो, कविता सर्त, शिबिरां, साहित्य संमेलनां आनी परिशदांनी वांटो घेतला.

- आकाशवाणी, पणजी हांगा कविता आनी लेख प्रसारीत जाल्यात.

- नेमाळ्यांनी कविता आनी लेख प्रसिध्द जाल्यात.

# • ऋ तु म ति

--- **RITUMATI**

Poems by - **DNYANESHWAR KAMALAKANT TARI**

• **प्रकाशन क्र...... १**



• **पयली उजवाडावणी :**
नामनेचे अभिनेते - साहित्यिक गीरीश कर्नाड
हांच्या हस्तुकीं (११, फेब्रुवारी १९९५).

• **उजवाडावपीः**
सौ. श्यामल ज्ञानेश्वर तारी,
ऋतुजा प्रकाशन,
वळवय-फोंडें-गोंय ४०३४०१.

• **छापपीः**
श्रीकांत आमोणकार,
सम्राट प्रिंटर्स,
बाणस्तारी-गोंय.

• **मुखचित्रः**
दीपक गाड

• **मोल :**
३० रूपया.

---

*"हें पुस्तक 'गोवा कोंकणी अकादेमी'च्या
'पयलो चंवर' अनुदान येवजणेखाला छापलां."*

---

दाय आनी बाप्पांक—
आणीं म्हाकां,
सुसंस्कारासयत—
वाडयलो,
बळीश्ट केलो.

— ज्ञानेश्वर.

दाय: कै. वासुदेव देऊ तारी.
बाप्पा: कै. गोविन्द हरी तारी.

## ‘ऋतुमति’क येवकार........

१९८०-९० ह्या दसकांत ‘ऋतु’ हें कोंकणी कवितेक ओंपिल्लें एक, दोन म्हयन्याळें उजवाडा येतालें. ह्या म्हयन्याळ्यान कोंकणी कवितेक खूप व्हड योगदान दिलां. एके पिळगेचे कवितेक आकार दिवपाचें कार्य ह्या मासिकान केलां अशें म्हणूंक जाय. आज ह्या म्हयन्याळ्याचे फाटले अंक वाचतना अशें दिसता की तातूंत उजवाडा आयिल्ले कांय कवी बरोवपाचे थांबले तर कांय कवी सातत्यान बरयत आसात, आनी तातूंतल्या कांय कवींचे कवितासंग्रह उजवाडा आयल्यात. तेच प्रमाण ताणीं कवी म्हणून कोंकणी कवितेच्या मळार आपल्याक खाशेली सुवात केल्या.

अशाच एका ‘ऋतु’च्या दिवाळी अंकांत ‘शरदांतली फांतोड’ ही ज्ञानेश्वर तारीची कविता वाचूंक मेळ्ळी. ते कवितेच्या वेगळेपणान म्हजें लक्ष वेधून घेतलें. कवीक सैमाकडेन पळोवचेली एक वेगळी नदर आसा म्हणपाचें ते कवितेचे पयल्या वाचनात स्पश्ट जाणवलें. शरदऋतुच्या एका फांतोडेंचें चित्रमय वर्णन हें कवितेंत आसा.

रूखा - रूखांतल्या खांदयेर
तणा - तणांतल्या पातयेर,
दंव पगळयत मळब -
अचकित येवन थिजलें.

हे कवितेंत स्पर्श, रंग आनी गंध हे तीनूय घटक एकठांय आयिल्ले दिसतात. कवितेचो आशय एक वेगळेंच नादाचें देणें घेवन आयला. तशेंच ती mature दिसता. ताका लागून म्हाकां ती चड मानवली. तारीच्यो कविता वाचतकच एक गजाल जाणवता ती म्हळ्यार तांगेल्या कवितेचें केंद्रस्थान सैम आनी तेंच तांगेल्या कवितेचें बलस्थानूय. कोंकणी कवितेंत सैमाक खूप म्हत्त्व आसा. ह्या शतमानात बयाभाव सारकिल्या कविपासून सुरू जाल्ली ही परंपरा मनोहरराय सरदेसाय ते रमेश वेळुस्कार मेरेन चलत आयिल्ली दिसता. ‘सड्यावेली फुलां’ ह्या बयाभावाल्या सुपुल्ल्या संग्रहांतली ‘गोमंत-गीत’ सारकि ली कविता निवेदन शैलींत गोंयच्या सैमाचें वर्णन करता. तर मनोहरराय सरदेसाय’ल्या कवितेंत सैमाचीं प्रतिकां decorative piece कशीं येतात. तीं भावनांक उतरांचो आकार दिवपाचें काम करतात. तर वेळुस्कार’ल्या कवितेंत सैम वेगळो काडूंक येना. तारीच्या कवितेंतूय सैमाची आळवणी आयकूंक येता-

गीम हटचो
गीम दडचो

मन परमळचें
उपाट भरचें ॥

तारीची कविता सृजनाचें स्तोत्र आळयता . सैमाचें सृजन व्यक्त करपाक तारी 'न केळीचें जें प्रतिक वापरलां तें एकदम समर्पक आसा . साध्या-सोप्या उतरांनी सुरू जाल्ली 'ऋतुमति केळमाति' ही कविता मुखावयल्या वळींनी वेगळेंच रूप धरताः

आतां मातीच जाल्या
गर्भवती
देखून-
केळम्या-केळम्यार
सुटलां ऋतुदान .

थोडे भितर सांगपाचें म्हळ्यार कवितेचो स्वभावधर्म हे वळींनी भेस बरो व्यक्त जाता .

प्रेम धरून ते समाजांतली असमानताय अशा वेगवेगळ्या आशयांक वेंगावपाचो यत्न ह्यो कविता करतात . तरी प्रेम आनी सैमाचो मोग हो तिचो स्थायीभाव आनी तेच आशय तिका चड लागींचे अशें ह्या संग्रहांतल्यो कविता वाचतकच लक्षात येता . हाचो अर्थ तारी 'न सामाजिक आशय टाळचो अशें जायना . जेन्ना तांका हो आशय खऱ्या अर्थान भिडटलो तेन्ना तांची सामाजिक आशयाची कविता समर्थ रूपांत प्रगट जालेबगर रावची ना .

तारीचे कवितेक लयेची , तालाची संगीतासयत उपजत जाण आसा हें तांगेल्या बऱ्याच कवितांनी जाणवता . कवितेंतली यमकां आनी अनुप्रास जुळून येवपाक कश्ट पडूंक ना . तर तीं आपसूक जुळिल्ल्यान कविता नादमय जाल्या . आनी कवितेचें सौंदर्य सगळ्या आंगांनी फुलून आयिल्लें दिसता .

रेशमांवरीं केसांत तुवें
माळ्ळा हातो . . . . .
हळदुव्व्या हात्याक भरला
परमळपी ओतो .

पूण केन्ना केन्ना यमकां जुळोवचेलो मोह कवीक पडटा ; देखीकः

स्तन-पान
        दुदा न्हाण
स्तन-पान
        धार अवतरण

जान जवान

थळ अवखळ .

हो नदरेंत भरपी दोश कवीन कश्टान टाळूंक जाय . (संवसारांतले व्हड-व्हड कवी ह्या दोशांतल्यान सुटूंक नात .) तारी हे मुखार ह्या दोशांतल्यान आपल्या कवितेक मुक्त करपाचो यत्न करतले हाची म्हाकां खात्री आसा .

ह्या संग्रहांतल्यो कांय कविता ल्हान आसात . तांकां म्हणीं आनी ओपारींचें रूप दिवपाचो यत्न कवीन केला तो तोखणाय करी सारको आसा . कवितेन खूप पावट थोड्या उतरांनी खूप सुचोवन वचूंक जाय . बऱ्या कवितेचें तें एक व्यवच्छेद लक्षण आसा . मनोहरराय सरदेसाय 'ल्या कवितेंत ते गूण दिसून आयल्यात . चड करून 'जायो-जुयो' आनी 'पिसोळी' ह्या संग्रहांतल्या कवितांनी नव्या कवींचेर बरोच परिणाम केला . तारी 'ल्या कांय कवितांचेर तांचो प्रभाव पडिल्लो दिसता .

तोरांचो - तोरो
आंब्यांचो पारो .

० ० ०

सयरो - धायरो
घरचो भायरो .

कांय कडेन थोड्याच उतरांचो वापर करून दोळ्यांमुखार एक चित्र वा प्रतिमा उबी करपाचें कसबूय तारी 'क सादलां .

कीर-मोर किरयतात
पाखान-पाखां किसयतात .

ह्यो वळीं दोळ्यांमुखार एक चित्र उबें करतात .

ह्या संग्रहांतल्या बऱ्याच कवितांनी पयलेपणाच्यो कुरवो दिसल्यो तरी जीवीताच्या अणभवांतल्यान आनी कवितेच्या ध्यासांतल्यान तांची फाल्यांची कविता आकार घेतली . तारी 'ल्या सृजनाक प्रतिभेचें नवें कोंब फुटूं .....

**- माधव बोरकार**

रमाशक्ती मिशन,
शक्तीनगर, मंगळूर .
१२ जानेर १९९५

**ऋतुमति 'काराचो -**

**ोगाळ रसिकांक,**

**मस्कार.**

ऋतुमतिचे गुणधर्मानुसार ब्रम्हांड (Universe) निर्माण जालां; सृश्ट फुलल्या-फळल्या. 'ऋतुमति' - सैम परिपूर्ण आसा. उदेन्त्यांक भावतात त्यो मदन-मंजिरी आनी अस्तंत्यांचे ॲडम-इव्ह; हीं दोनूय ऋतुमतिचीच परिपक्व रूपां. तीं Adulthood आपणांयतात (वयांत येतात) आनी धाय दिको चैतन्यमय जावन प्रकाशतात. नाद, गंध, ्पर्श, रंग, रूप खुलयत ऋतूंचे दान फांकारपी मोग सृश्टीचें भान थरता तेन्ना 'ऋतुमति'क ोंव्हर येवन ती परिपक्वतायेन भारलेली दिसता. खऱ्यानींच जीवीताक अर्थ भरता. nflorescence च्या रूपात भावार्थान ती आपल्या भुरग्यांक मांडयेर खेळयता आनी म्हूण ृश्ट जीती जागती थरता. तिच्यातली सौंदर्यदृश्टी, कलात्मकता, नैसर्गिकता आनी उत्पत्तीच्या गुणधर्माची जागृती, अस्तित्त्वासयत हुंकारता तेन्ना 'ऋतुमति'ची भावझालर जीवीतासयत सदृश्यतायेन साकारता.

अशेतरेन भाव-भावनांचे रंग-रूप चंवरायत आनी नाद, गंध, सूर-ताल एकठांयत 'ऋतुमति' जाल्ल्यो म्हज्यो कविता सृश्टीच्या-जीणेच्या पडबिंबासयत जल्मतात तेन्ना म्हज्या ेतनांक शांतताय लाबता. धादोसकायेन हांव नव्या अदृश्टाची उमा घेता आनी ताची अपुरबाय करता.

हेच नवलायेन तुमकां सगल्यांक 'ऋतुमति' हो म्हजो पयलो कवन गुंथो आनी पयलें ुस्तक 'गोवा कोंकणी अकादेमी'च्या पालवान भेटयतना व्हड खोस भोगता. तुमच्या अंतर्मनांत म्हज्या पुस्तकांतल्या विचारांची भावसृश्ट फुलतली हें हांव जाणून लेगीत नेणां. ात तुमीं सगले 'ऋतुमति'चे कवतुक करतले अशी उमेद आसा.

अशावेळार म्हजे गांव-भाव भौ. तुकाराम रामा शेट हांचे उपकार हांव कसो ेसरीत? तांचे वेळोवेळा म्हाकां मार्गदर्शन तर लाबलेंच; शिवाय ताणीं म्हज्या काव्यभावनांची ोखणाय करून म्हाकां स्फूर्त दिली. म्हज्यांतल्या काव्य-साहित्य गुणांक उलो घालून 'मोगाळ ॉमीक.....' ही पयली-वयली कविता ताणीं हातबरपावळींतल्यांन प्रसिध्देक हाडली.

तेचपरीन सैमात नटिल्ल्या वळवय- सावयवेरें- बेतकी- केरी वाठारांत चंवरिल्ले ासंतिक साहित्यिक इश्ट आनी म्हजे साबार लेखक-मित्र हांचे वैचारिक देणें-घेणें म्हज्यान ्शें विसरूंक जायत? 'वासंतिक साहित्य मेळ', मदलसो, साहित्य संमेलनां आनी भाशा

परीशदां म्हटल्यार म्हज्या भूकेच्यो प्रवास दिको.

भौमानेस्त कवी श्री. माधव बोरकार हांणी म्हज्या उतराक मान दिंवन 'ऋतुमति 'क येवकार बरोवन धाडलो. तांणी केल्लो नियाळ म्हणजे म्हाकां भेटयल्ले व्हड धन अशेंच हांव मानता.

'सम्राट प्रिंटर्स', बाणस्तारी-गोंय, चे धनी भौ. श्रीकांत आमोणकार हांणी थोड्या वेळा भितर सुबक रितीन पुस्तक छापून हाडले खातीर हांव तांचे काळजाथावन उपकार आठयता.

तेचपरीन 'ऋतुमति 'ची नैसर्गिक सुंदरतायेन नटिल्ली भाव-झालर सर्वसामान्यांच्या दोळ्यांत चित्रावपी म्हजे चित्रकार भाव आनी आमीग बाब दीपक गाड हांचो हांव व्हड ऋणी आसा.

जांचे उपकार मानपाक उतरां लेगीत रीणांत आसात अशे कला, नाट्य, साहित्य आनी कोंकणी मोगी ते म्हजे आमीगभाव पांडुरंग नारायण तारी.

म्हजी मायेस्त आई, दादी, भाव, ताई, आजयो आनी घरच्या सगल्यांनी म्हज्या वावराक उर्बा दिली - व्हडांनी सुसंस्कारासयत म्हजें पोशण केलें. तेचपरीन म्हजे घरकान्नीन प्रसववेदनां उप्रासतना लेगीत म्हाकां हो कवनगुंथो गुथपाक बळगें दिलें. तिच्या सहकार्यान हें पुस्तक तुमकां भेटयता. तुमीं 'ऋतुमति 'चे पानांन पान ग़ोड करतले अशी आस्त आसा.

तुकाराम बाब हांणी चिरूंक घातलेली साहित्याची श्रीगणेशा आयज श्री सरस्पतीच्या कृपेचे आनी श्रीगजान्तलक्ष्मीच्या वरदहस्तुकींचे अमृतफळ म्हूण तुमकां रसिकांक भेटयतना, ह्या भूंयच्या मातयेचो तिबो समस्त जाणीवेच्या चेतनांक उखलासून दवरता..

नव्या वर्साच्या परबेसयत,

तुमचो,

[signature]

वळवय - गोंय,

ता. १-१-१९९५.

# मांडावळ

## पूर्व प्रसिद्धी

'कोंकणी'

'ऋतु'

'कोंकण टायम्स'

'जैत'

'साहित्य विचार'

'आकाशवाणी - पणजी'

# पड-झड

पड-झड धारो
शितल वारो
पडच्यो-झडच्यो
स्त्रावण धारो।।

गीम हटचो
गीम दडचो
मन परमळचें
उपाट भरचें।।

धाय-दिकांनी
वझरे व्हावचें
न्हंयो-समुंदर
भरून ओतचें।।



न्हांवन-धूंवन
धर्तरी सजची
कुळागरां-शेतां
रंगची-नटची॥

बनरवणींतलीं
कुपां झडचीं
चकचकयाळचीं
आनी गडगडचीं॥

पावस धारेत
ताक् धिना नाचचें
मोगाल्या घोटेरांत
ओलें-ओलें जांवचें॥

पड-झड धारो
शितल वारो
पडच्यो-झडच्यो
स्रावण धारो॥



# ● आजून मेरेन

तो चंवर-धुंवर सैम रंग-
रंगयालो फुलोर धुंद-धुंद!
वळरव-पाळरव न लागपी त्या वेळा
ह्यांव थंय पळयत उबो-पळयत उबो!!

त्या फात्यार धुकेंच - धुकें,
चकचकयालें चान्नेच - चान्नें!
त्या वेळा चंद्रिम रंगयतालो
विंगड विंगड रंगात मळब-सैम!!

निळे-हळदुवे, काळेच - काळे--- ,
चलते-धोलते कुपांचे झेले!
मळब कुपां अंतरा-अंतरा
रंगरंगयाळीं किरणां-ल्हारां-
सोबीत-सोबीत!!



हांगा धरतरेर धुकेंच-धुकें,
दर्या पलतडीन उबो दोंगर;
म्हऱ्यान उबे माडूच-माड,
कोण-कोणांचो ना थांग ना पांग;
सगली धर्तरी शान्त-शान्त!!

रिवणांत धर्तरेर सकाळ उदेली
आनी तें मळब अंतरातलें सैम
काय रिवणां उपरांत मुगो-
नाच्च जालें - नाच्च जालें!!

तें मळब-सैम पर्थून पळोवंक
हांव तिश्टला आजून मेरेन-
आजून मेरेन!!



# • सैम बाळ - १

आयज एक बाळ जल्मलां;
सुंदर सैम-बाळ जल्मलां-
गडे बाळ जल्मलां!
पृथ्वी आवय गर्भार रांवन-
सानुलें बाळ जल्मलां!

चैत्रपुनवेरातीं फांतोड-पारा-
चंद्रिम आनंदला;
गडे सैम रंगला,
सुंदर बाळ जल्मलां!

दिगंतरां कुपां झेल्यांर,
रूण-रूण वारो खेळला;
संगे चंद्रिम जागला,
पृथ्वे आवयचे मांडयेर
बाळ सुस्त न्हिदलां
बाळ सुस्त न्हिदलां!



हळूच गडे पावल-तुजें,
वाजव नाकां पायजणां....
पृथ्वे आवयक काप्रो येत-
हालव नाकां पायणां!

पिशी कशी रात जागयत-
सैमरंगी फांतोड चित्रयत,
चानुलें तोंडावळीचें-
सोनुलें बाळ जल्मलां,
गडे बाळ जल्मलां!

पूनवेचें चंद्रबिंब नी,
फांतोडचें सूर्य बिंब,
असो एकांत घडिला.
पृथ्वे आवयचे कुशींत-
सुंदर सैम-बाळ जल्मलां!
गडे, बाळ जल्मलां!!



# ● सैम बाळ - २

आयज बाळ जल्मलां-
सुंदर बाळ जल्मलां!

फाकयत किरणां,
खुलयत मळब;

सूर्यादेव रथार बैसला-
ताचो रथ चालला.

पृथ्वे आवयचे वेंगेंत-
आकांत कांडला,
आयज बाळ जल्मलां!



कोण बापूय सांग गे
बाळ कित्याक रडता?
सूर्यान जाप विचारला,
पृथ्वे आवयक सामको-
काप्रो भरला.

एके आकवार चलये पोटी
आयज बाळ जल्मलां
अशें जन बोललां.

सुंदर बाळ जल्मलां!
सैम-बाळ जल्मलां!!



# • शरदांतली फांतोड

कुडुकुडू-कुडुकुडू
कुडकुडलीं-कुडकुडलीं!
शिरान-शीर, शिरान-शीर
शिरशिरलीं-शिरशिरलीं!!

रूखा-रूखांतल्या खांदयेर
तणा-तणांतल्या पातयेर,
दंव पगळयत मळब-
अचकित येवन थिजलें.

घोटेरांतलीं पाखरां,
कळयांतलीं फुलती-फुलां,
शियेंत आकुडतांनां-
अमुरपिकी सुस्त्यालीं.



न्हिदेघरां मनशांकुळां
गात्रा-गात्रांनी करंज्याली.
हुनहुनीत आलशिऱ्याक-
गोदड्यांनी पांगुल्लीं.

कुडुकुडू-कुडुकुडू
कुडकुडलीं-कुडकुडलीं!
शिरान-शीर, शिरान-शीर,
शिरशिरलीं-शिरशिरलीं!!



# ● ऋतुमति - केळमाति

केळीं रसबाळीं,
केळम्या-केळम्यार,
फेण्या-फेण्यांनीं-
घडुलीं-घडुलीं!

गर्भकुंवर कोरयत,
कितलीशींच-
फुलां - फुल्ल्यां,
बोणया-बोणयांनीं.
केळीं रसबाळीं-
रूचीक म्होंवीं
पानापानांर बसल्या
कितलीशींच वटवागोळीं.

न्हेसल्या ती गोदडी
कोपया-कोपयांची
भारल्या कूस तिची
गोब्या - गोब्यांनीं.



गर्भ-गर्भार शिरार
तिच्या गर्भसाज आंगार.
गर्भभार धल्ला-
पाळामुळांनीं.
पाळा-मुळांत,
सुस्ती-मस्ती विरयत-
माती मातयाळी.

आता मातीच जाल्या
गर्भवती
देखून-
केळम्या - केळम्यार,
सुटलां ऋतुदान.
देखून-
घडा-घडार,
फाकलां ऋतुभान.

केळीं रसबाळीं,
केळम्या-केळम्यार
फेण्या-फेण्यांनीं-
घडुलीं-घडुलीं!



# ● स्तन - पान

स्तन पान
　　बाबुश्या तान
स्तन पान
　　देह भान
अळंग ध्यान
　　नदर तरंग.

स्तन पान
　　दूदा न्हाण
स्तन पान
　　धार अवतरण
जान जवान
　　थळ अवरवळ.



स्तन पान
कुकुल्या मान
स्तन पान
मायेस्त देन
अंमळ थान
रती वरदान.

स्तन पान
पोशण-धन
स्तन पान
पदर गिन्यान
सुंदर घन-निळ
हरण - हरण.



## • मांडवी कुशींतल्या मोगाळ सैमाक......

मांडवी कुशींत
पणजे शारांत
सांज वेळार
तूं दिसलें, आनी -
दिस्टादिस्ट जाली
नदरांनी.

गांव घरा वयतना
म्हजें शेणिल्लें मन
पावला-पावलाक
घुस्पूंक लागलें.

कोम्याल्ल्या दोळयांनी
तेन्ना पळयलें तुकां,
मांडवीच्या उदकांत-
भरतेच्या ल्हारांनी पेवताना



घडये तूं उडत-उडत
मळबातली परी जांवन
मळबा रंगाचोच शालू नेसूंन
गोंयच्या इगर्जे वाठारांत देंवलें.

म्हाकां गो पारवां फुटू दीं;
उडत येंवन
तुजी उमा गो घेवपाक.

धव्या-फुल्ल भेंसात
वेंगेंत आमीं चलत गो
इगर्जेंत वचूंया -
सायबाच्या भेटेक
मनां वदवपाक.



खिणा-खिणांत सगलीं
थळां - थळां
किरयत वचूंया;
पाचव्या तणांवयलें दंव गो
मुमुरख्यांनी हासोंवया-
फुलांचो परमळ आमीं लुटोवया.

दर्या गाजताना
वारो सळसळताना,
दोंगुंल्ल्यातले उलें परतताना
मळबातल्यांन शेवणीं उडताना
तुजीच गो याद येता.

तुजेच लक्‌तुबायेक लागोन
थळांक गो उलो घालीत
तुज्याच गो मोगाक
येतलों हांव फात्यार
पणजे शारांत
मांडवी कुशींत.



# • सृंगार - जीण

फात्यावयल्या पारार गो-
वास हात्याचो ........
चेडवा तुकां कित्याक गो -
हुस्को फाल्यांचो?

रेशमांवरीं केसांत तुवें
माळळा हातो....
हळदुव्व्या हात्याक भरला
परमळपी ओतो.

सृंगार तुज्या रूपाचो गो -
जुवान आंगांक.
हळूच कित्याक मुरगुट्टा गो-
ताच्या नावांक?

पूनवेच्या चान्न्यावरीं तुजो
मोन्याळ हासो.
भेस बरें नाचूंक,
तुकां आपयता -
चंद्रावयलो सोसो.



## ● इव्हा

कुकुर-कूंऽ कुकू-कुकुर-कूंऽऽ
कोगूळ फांतोडेंर कुकारलें.
कुकुर-कूंऽकुकू-कुकुर-कूंऽऽ
म्हजें सपन जागयलें.

तो सपन दीस भांगराचो,
वाट पळयतालो सूर्य उदेन्तेचो.

तुज्या कुकुर पिरायेर गो-
तुज्या मनांत मोर-पारवां.
तुज्या परकर पिरायेर गो-
तुवें चितारलीं रंग-रूपां.



आयज मोगा काळजाथावन
तुकां हुनहुनीत परबी.
तुज्यो इत्सा, उत्त्फुर्के आनी -
चकचकयाळें  जैत
म्हज्या अंतःस्करणाचें 'इव्हा'
आनी हांव -

सात सूरांनी आळयतां-
हॅ पी ब र्थ डे टू यू !
कुकुर-कूंऽ कु कू-कुकुर-कूंऽ
कुकुर-कूंऽ कुकू-कुकुर-कूंऽ



## • तुजी मूर्त

सदांच हांव दुरवी उदाशी,
आयज म्हाकां कसली खुशी!

रिवणा - रिवणांत तुज्या रूपाक
मोंव्हर चंवरता;
घडये - घडये म्हज्या नदरेंत
रवोस उफ्याता.

नेमाळ्या वसंत ऋतूंत नव्या वर्सा तूं ..............
मुमुरव्यां हास मोग जिरवून तूं.

दीस सरलें कितलें
तुजी भेट घडली ना;
पूण तुजी मूर्त
म्हज्या नदरेंत गुन्यावी ना.

तन्न्या कुंवर आंगांचें वस्त्र निसरोंन-
न्हिद-न्हिदली गुप्प सपन कवनांत.



# • तूं

जीणें काळोख कुपां पांगुल्लेलें
आनी उजवाडाचें न्हाण न्हालेंलें
भाव-भावनांच्या अंतःस्करणाचें
रसरसतें आनी बाविल्लें.

तुज्या डाळंब्या पोल्यावयलो तीळ
मुमुरख्यांनी रसरसता.
तुज्या रेशमांवरी विणयेवयलो ह्रातो
परमळ परमळयता.

रसरसपी हासो आनी-
परमळपी परमळ
काळजांतल्या रित्या गर्भकुडींत-
भरुंन उरत कांय?
पयसोपी हो काळ-
केन्ना सपत काय?



कोम्याल्लें, बाविल्लें अंतःस्करण
केन्ना उतरां - अुतरांतल्यान
फुलतलें कांय?

केन्ना फांतोडेंर - फांतोड
उजवडत कांय?
अशी गो फांतोड
उजवडत काय?



# • कितुलो पयस

शीण - शीण मनां
रूण - रूण वारो,
आकुळ - पिकुळ - मोगा -

तूं कितुलो पयस
तूं कितुलो पयस.

सांज पारा
पाचव्या चारा
झाडां - पेडां - - -
दोंगर - रानां
हांव रे हांगां - - -
मोगांतरां.



त्या रूखार
सुकण्यां - पिलां
किरयतात
शांत पारां - - -
अचकळीत
मनान्तरा - - -
याद पिशी
याद पिशी.

शीण - शीण मनां
रूण - रूण वारो

आकुळ - पिकुळ मोगा
तूं कितुलो पयस
तूं कितुलो पयस.



# • तूं यो घरा ऽ

यो घरा ऽ यो घरा ऽऽ यो घरा ऽऽऽ
सुकण्या पिला तूं यो घरा ऽऽ
तेंगशी मोडूंन पडत झाडांतरा,
सांजच्या पारा, तूं यो घरा ऽऽ
सगलीं सुकणीं चल्ली पळय
तांच्या गावां - दिशान्तरा !
अस्तमंपारा, तूं यो घरा ऽऽ

दिगंतर किरयत येता
काळोख - काळो
तिनसांजपारा, तूं यो घरा ऽऽ
धुँवाधार, धुँवाधार, धुँवाधार -
पावसाधार
रडत कुपां मळबपार - मळबपार !

म्हज्या पिपुश्या पिला,
केन्ना तूं येतलें घरा?
म्हज्या काळजां पेटल्या धायदारां!
यो घराऽ यो घराऽऽ यो घराऽऽऽ
कुकुल्या पिला तूं यो घराऽऽ



## सावर

दीपमाळेंत नाशिल्लें तेल
कांय तेलांत नाशिल्ल्यो वाती?
कापूस मेळूंक रे जळीं - मळीं
सांवार आयला सावरीक.

तनर पानां, पानांच ना.
शिंगर बोंडां, बोंडांच ना.
कापूस गळूंन रे भिरी - भिरी
सावर जाल्या रिती.

दीपमाळा पेटली ना - - -
उजवाड मात्तूय फाकलो ना;
काळरवाक सोपोवंक रे आतां - - -
रवंय सोदच्यो वाती?

उबी सावर जाल्या रिती!
उबी सावर जाल्या रिती!!



## ● आवय

कोणें गे आवय
मळब उरवलोंन धरलां?

कोणें गे आवय
चंद्रिमांक वयर हुमकळयला?

सांग गे आवय
नक्षत्रां कोणें शिपडल्यां?

आनी आता गे-
सूर्य कोणें लिपयला?

दोंगरार काळखांत गे-
कोण सादयता?

मळबांत व्हडल्यांन गे-
कोण गडगडायता?



सांग गे आवय तूं -

म्हजे कडेंन कित्याक उलयनां?

आतां गे आवय तूं -

दोळे कित्याक उगडींना?

एकदाच म्हाकां गे तूं वेंगेंत धर
एकदाच म्हाकां गे तूं उलो मार
एकदाच म्हजेंकडेंन गे तूं पळय.

तुजो गे पूत आता -
मस्ती केन्नाच करचोना.
मस्ती केन्नाच करचोना.



# • ओंवळां

कीर - मोर किरयतात
पारवान पारवां किसयतात.

0 0 0 0

कामेऱ्यां - मानाय कामत्यात
नण्णीं कोण्णों ह्यालयत्यात.

0 0 0 0

धेंडलो खेळ खेळयता
भेंड-मान धोलयता.

0 0 0 0

फुगड्यो - कचे शिरंगारतांत
धालां - मांड सोबयतात.

0 0 0 0

तोंडयो - धोल वाजयतात
गडे - भार खुदयतात.

0 0 0 0



कासाळें - इयान देवांक नमन

पूनवें आंगण खेळवया

0 0 0 0

शिगम्या - मांड होळयेक मान

होर रे गया शून्यो खाया.

0 0 0 0

माड आनी वड

व्हड - व्हड

0 0 0 0

गओड आनी साकर

गोड- गोड

0 0 0 0

कांदो आनी मिरसांग

रड - रड

0 0 0 0

ताप आनी थंडी

तापय - न्हिवंय

0 0 0 0

कोट आनी बंडी

शिवय - शिवय.

0 0 0 0



# • पिटकोळी

कांयचे कांय
खांवचे कांय?
गावचें गान
खांवचें पान.
घरांचे बरें
पणसाचे गरे.
चोरांचो चोर
मानगूटेक धर.



जोरार - जोर

घडयेर - घडी .

तोरांचो तोरो

आंब्यांचो पारो.

पासयेर - पासय

फूटपाथार - फूटपाथ.

खोटेंर - खोट

पावलार - पावल.



पाटार - पाट
वाटेर - वाट
दारांन - दार
वणतेक भार.
गोऱ्यान गोरो
व्हकलें - न्हवरों
सयरो - धायरो
घरचो भायरो.



नाक नाकां
दोळयां-दुखां
तोंडार थुकां
कोणां नाकां.
पावसार पावस
पावासर पावस
पावसूच पावस.
फावचें फाल्यां फावल्यार
गावचें गावलें - गावल्यार
जांवचें जालें - जाल्यार
खांवचें खाल्लें - खाल्ल्यार.



# ● इतिहास

तांच्या काळजांत
दर्या गाजलो,
शिरंतरांनी
वारें शिरशिरलें,
उज्याची ज्योत
धगधगली, पेटली.
तांणीं स्वातंत्र्यकायेक
जीण झरयली -
जीवाचें रान केलें !
त्ये -
स्वातंत्र्याचे म्हापुरूश
तांच्या पुण्यायेंन
आमीं भोगतां -
नवी पिळगी, नवें विचार, नवो कारभार.



त्ये -
इतिहासातले म्हापुरूश
उठले आनी पेटले
देसारवातीर
ताणीं -
इतिहास घडयलो
आनी - - -
आता बी घडता - - - ,
घडतलो.

घडतल्या इतिहासाक
परतवण नाकां.
लेगीत आमीं शिकोया
इतिहास.
रगतान मारवलेलो इतिहास
नव्यां पिळग्यांक
समजवपाक.



# ● आरे उरवलाप्यांनों - - - - !

कर्माच्या भोगजंजाळांत
घुस्पटलेले
पेटयतात आनी माजयतात
सूड.
घरा - दारार नांगर भोंवडूंन
घाय हड्ड्यार घालपी
तुमीं -
व्यसनभोगी उरवलापी.
समाजात स्वतःक मिरयतात
निजाच्या घरांत
होमरवाण पेटोवंन.

आरे उरवलाप्यांनो - - - - !
ताशार बडी,
पोटात वडी
अशें आसतनाय,
तुमीं मिरयतात
कितलेंशेच भोगसंग.



कामीण जाल्ल्या जण-एकल्याक
सगळें हळदुवें - हळदुवेंच दिसता.
तुमकां आमची कसली पर्वा ?
जांची जीब सदांच -
हुळहुळटा
तीच रंध्रारंध्रातल्यान
पेटयता घराची कूड.

उडोवंन वाऱ्यार संवसार
दिको भणंग
व्यसनभोगी तुमीं उरवलापी
सिगरेटीच्या धुंवरावरी
घुस्मटटात.

'मागीर -
गोबर न्हिगा निजाच्या संवसारांत?'

कर्मचांडाळांक
तांच्या दोळयांमुखार
न्हिदेंतूंय
राजा - राणी दिसता.



इतलेंच न्हय,
राजा राणयेचो खजिनों
तांका भेटटा
फकत बावन इस्पिक्यांच्या
'ब्रोथेलांत'.
राजाच्या दरबारात
आबादीआबाद
पूण राजाक भिरांत
'एक्याची'.
ह्या उरवलाप्यांक
ना भिरांत समाजाची
ना शासनाची.
शासन अुरवलापीच न्ही गा त्ये --
समाज भुलवणिक जापसालदार?
पळेतात कित्यें?
घे नांगर
धर जोत.
आसा शक्त ? - - - -
- - - - - - - - - - - - - - - - - -
जाप ना.



ऋतुजा प्रकाशन

विचारपी आजून उठूंक ना.
जाप विचारपाक
मात्शें कुट्ट करचेंच पडटा.
ह्यो तरनाटचे,
हीं अर्भकांसुद्दां
जे उरवलाप्यांच्या
भोग कर्मातल्यांन जियेतात
त्ये फुडें सरतात,
मिरवपाक परंपरा.
समाजाक फुडें व्हरपाची परंपरा
दिव्या खालच्या काळखांतल्यान.
जंय - - - - -
खिणांन - खिण खून पडटात
बंदखणीं माजतात.
थंय,
निजाची घरकान्न
धाय रडटा - - - - - -
धाय रडटा.



# तुकां आपवणें आयलां!

ताश्टावयल्यान भविश्य अदमाशीत
तुकां म्हासमुंदर हुपूंक जाय न्हूं?
पुराय चंचल मन - भावनांक -
दोशी करीत -
सगळीं वैश्विक प्रतिबिंबां
तुकां गुणचीं आसा न्हूं ?
हालायत्या प्रस्नांच्यो
थीर जापो सोदीत -
तूं दिकांन - दिकां
असोच हेडटा.
भांगराच्या परातींतल्या
प्रद्नेच्या सोदांत
वाटेर-वाट रचीत आसतना
तूं कितलेपावटी तरी निसरला.



“ब्राव्हो लिव्हींग!” नी “ब्राव्हो डायींग!”
अशेच एका –
समर कल्पनेखातीर
तुकां एकमुळो रांवन
झुजचो आसा.
“कित्यें बाब!” - - - -
ह्या झुजांमळांतली
एकूच अशी कीट
आत्ता पेटूंक लागल्या.
अथांग शाश्वततायेचो
वेध घेतांनां
पळय कशी
सांज ऋतुमति जाल्या.
“बाब, तुकां आपवणें आयलां!”



# • द मॉडर्न मॅन

द मॉडर्न मॅन से,
हॅलो, हाव डू यू डू?
ताका याद आसता
बुफे आनी पार्ट्यांची
पूण तो
रातीक परथूंक विसरता.
तो वळखवता
मुव्हींतले जुवान हिरो - हिरोईन्‌स
खबर नासता ताका
राष्ट्रीय हिरो - हिरोईन्‌स.
तो जाणां -
क्रीकेटरांचीं नावां -
आनी तांच्या
रीकोर्डांची वळेरी.
पूण नेणां
ताचें काम आनी कर्तुप.



द मॉडर्न मॅन, द मॉडर्न मॅन
द मॉडर्न मॅन, द इंडियन मॅन !
एकवटान - एकजूटीन
सगल्ये राबतात
कारखान्यांनी, गिरणींनी -
आनी मायनींचेर.
तितूंत राबपी
अगणित कामदाऱ
खोशी आसतात कांय?
दया-माया नासलेल्या
पात्रांवालागीं
प्रस्न सुटावेची पात्रताय - - - - -
- - - - - - - - - - - - - - - - - - - - - -?
उपरांत 'युनीयन' आनी
'स्ट्रायक.'
जाता प्रोपर्टीची नासाडी.



द मॉडर्न मॅन, द इंडियन मॅन
द मॉडर्न मॅन, द गोअन मॅन !
तो कोणाचें आयकना
पूण तुवें
ताचें आयकचें पडटलें.
तशी म्हण्णीं आसा –
'हांव सांगता तूं आयक.'
तो वर्ताद पोशाखांत
सदांच 'अपटूडेट' वावुरता
ताच्या मुखामळार
सदचीच खुशालकाय
ताचें हात
सदचेच बोल्सांत.
भवतेक तो 'अन्‌एम्प्लोयड'
आसूंन लेगीत
'एन्गेज्ड' जावूंक सोदता.
द मॉडर्न मॅन, द गोअन मॅन
द मॉडर्न मॅन, द मॉडर्न मॅन !



## ● मानस - मन

अंतर्मनांत उतरां गुथूंन
मानस मन -
कश्टता नी -
जिवीत ध्येय जोडटा
पाशाणाचें नीबर जावंन.
एक विचार
म्हूण जाणत्ये म्हणटात -
अरवेर मेरेन-
सातत्यान कश्टचें ;
तरी आसतना -
फुलां प्रमाण नर्म जावंचें.
ह्या अणभवान
म्हाकां खरें - खरें -
आपसुख लाबता.
तेन्ना खुशालकायेंचें
अमृतफळ
सदचें फळटा.



मागीर केन्ना निर्शोणी
नासताच नासता.
आसता --
निवळ सुख-दिण्यां जिवीतांचें
सूरबूस गीत.
मानस बुद्द
कश्टाच्या बळग्यांन
एकरूप जावंन
साणींर घासता
तेन्ना आपसुख - सुफळ
अंतर्मनांक जाणवता.
नंदनवनांतली धादोसकाय
सत्‌रूपात अवतरता.
आनी -
अंतर्मनांतलें मानस-मन
कर्तुपान परमळटा.



# • गिन्यान

तांचें साबार गिन्यान
रूजवणां आयलें नी –
'एम्.सी.' क सलाम करीत
सत् होल्मल्ल्या
बांगरद्रय बुद्वंतांनीं
चेतनामय जीवन संग
जैतिवंत केलें - - - - -
दीवंन मोल
एका वयाचें, त्यागाचें.
अमृतगिन्यानीं तत्त्वामुखार
एक दुखभरीत काक्र;
फुटिल्ल्या हारश्यातली मुखावळ
पयस करीत.
तांचो हावेस –
पुरूशार्थ गाजोवंन रंगवपी;
तनां-मनांत क्रांती घडयत.



ते खोलायेंत रिगूंन -
अमरत्त्वातलें सत् सांगपी.
तांचो जल्म, तांचें अस्तित्व
सामान्यासारखेंच
पूण असामान्याकंय असामान्य.
"एखाद्रे म्हान तपश्येक बसल्यार
वर्ाद ध्रुवपद जोडूं येता."
अशें होल्मतगीर —
डीग्र्यांचो गर्भपात करूंन
तो स्वतंत्र वैचारिक अंतर्यामी
तेन्ना सांवन
अमरत्त्वातलें सत् सोदूंक
हिमालयार पी.एच्.डी. करता.
तिणें जैविक शाळेचें बिराड
अवकाशात थाटलां.



आयजच्या खबरांपत्रांत –
ती 'टेस्टट्यूब बेबी' —–
जल्मांक घालतली.
ताच्या योग सामर्थ्यांन –
आतांच एक प्राणज्योत
अमरत्त्वात विलीन जाल्या.
तिणें अवकाशात
प्रतिपृथ्वी निर्मिल्ल्या
ताणें धर्तरेर
प्रतिसर्ग उबारला.
विश्व संतुलनाचो नेमभंग घडूंन
आयज म्हादेवान
प्रलय कांडलां.
खबरांपत्र फुडें म्हणटा –
फाल्यां ब्रह्मदेव
सत्युग निर्मितलो.



## ● दी माय

धर-धर-धर, धर-धर-धर
धरधरली - धरधरलीं
थर-थर-थर, थर-थर-थर
थरथरली - थरथरलीं
हाय-हाय-हाय,
हाय गे माय ऽऽऽ
दी माय
धरतरेक थाकाय.
फांतोडें - फांतोडेंर गे
काळीज कातूंन,
हुयोल्यार हुयोल्यो गे
आराटूंन आराटूंन.
हड्डीं बडोवंन आड्डर्लीं गे
तुजीं भुरगीं,
हाल-हाल बावड्यांचें
सगल्यो कुडीच ओगी.



कोणूच सवरतो ना

आपलोसो उरलो,

त्या खातीर नरशिंवाक

उलो घातलो.

जनता जनार्दनाच्या कृपेन

विठ्ठल गे धावलो.

घसघशीत व्हावलो;

सगलो महापूर ओतलो.

हाय- हाय- हाय,

हाय गे माय ऽऽऽ

दी माय

धरतरेक थाकाय.

धर - धर धरतरी

खाप दग्ध भूंय,

थर-थर 'थरथरी'

आदार कोण दींत खंय?



सरकार शास्त्रज्ञ

आनी हीं झुजांदळां -

दोतोर, आपवावुरपी

कांय सगलीं सेवा मंडळां?

आमची वार गे पुरल्या ह्या हांगासरSS

वार गे पुरल्या ह्या हांगासर SSS

दी माय

धरतरेक थाकाय,

इतलोच गे वळेसर SS

इतलोच गे वळेसर SSS



# • म्हातारो बैल

तुवें चाबकाचो मार घेतलो,
तुकां बडय - बडय बडयलो.
तुज्यां नाकांत -
दोरी दावूंन तुकां बांदलो.
तूं जुवान आसलो तेन्ना -
जड-जड गाडी तुवें ओडली;
तुवें नांगरपण केलें.
तुज्या धनयाकडें -
तूं इमानांन रावलो,
ताच्याच खातीर तूं झरलो;
खूप खरश्यालो.
आतां तुज्यांन
नजो उबो रावूंक;
म्हूण कित्यें धनयान -
तुकां व्हरचो खाटीक खान्यांत?



पळय तुकां तो
ओडून व्हरता,
चांडाळ खंयचो.
दमडे खातीर तुकां विकलो
सोडून सगली दया - माया.
भोळ्या म्हादेवा,
तुजो नंदी पळय
मनशां हातांत
कसो सोंपलों - - - - -
सुवार्थाखातीर मनीस मरे
जनावर!
पळय ताची ही करणीं - - - - -
स्राप तांका कित्याक दिल्लो
घाणांक लावंन तुजी बुद्द?
पळय त्ये उलयनात - - - -
अंतरातल्यान रडटात !
अंतरातल्यान रडटात !!



# • दुभाव आनी अदमास

जीणें कोम्याचें घड्याळावरी
साद घालता सांज - सकाळीं.
तिन-सांजा मात
किरकिरलो किरकिरो
पूण सगल्यां नदरेंत
तोच धयडिरो.
आडवाटेंन गेलें माजर सकाळचें
दिसचें न्हूं तोंड कोणां दुस्मनाचें.
सांजे वेळार हीं
हुडकां केळम्यार –
दुभाव फाल्त ना
दुसऱ्या जीण्यांर.
जेवणार पेजेंत मूस पडचो –
पयशिल्लो सोयरो आमगेर येंवचो –



काळ्यान आमकां येवन
सांगचें कशें?
शेकड्याक एक-दोनदां
घडटा अशें.
दनपारां - तिनपारां
हांगा - थंय भोवंचे न्हू
रवेत्री - आळवटीण
केन्ना दिसची न्हू
बेताळ वाड्यार येता
सायबिणींभार
नड-पीडा खातीर
दुडवांक खार.
घेता अदमास मनीस
हरेक जीणेंचो
लावन दुभाव
आपल्या जीणेंक.



# पारदस

जायो - जायो

जाय जाय

जायांचो झेलो

जाय जाय.

* * * *

चंवर चंवरला चंवरावरीं

चान्ने चान्न्याला जान्न्यावरीं.

* * * *

अणसां ह्यलवो खांवचोच खांवचो

पणसा कुवलो पावचोच पावचो.

* * * *

गिन्यानांत गिन्यान गीळचेलें

बुनयादीर - बुनयांद बांदचेलें.

* * * *

आलतडींत आनी पलतडींत

काण्णां - चुन्नां - भिण्णां.

* * * *



भारताक भार

जल्मांक घालतल्याक खार.

* * * *

मायची माया मायेची

आवयची आस्त आवयची.

* * * *

योंवचो येंवन यो रे पावसा

झडचो झडूंन वच रे पावसा.

* * * *

रातींन रात रातीच्यान

यादींन याद यादींतल्यांन

सपन सपनेलां सपनांतल्यांन

* * * *

लव्ह - लव्हर - लव्हेत्सा

शो - शुअर - शादीत्सा.

* * * *

सावरीर - सावर सांवारली

पानांन - पान पान्याली.

बोंडांन - बोंड बोंडयाली

कापसान - कापूस कापश्याली.

* * * *



# • सत्कार

अमुरपिको सत्कार
एक फिरंगी बादशाय,
अमुरपिको सत्कार
लाशाल्लो जुवानशाय.
सत्कार,
जावंचो एक भौमान.
सत्कार,
जावंचें एक दर्शन.
सत्कार,
आसचें एक चडण.
सत्कार,
नासचें केन्ना मरण.



## • तुळस

तुळस - वृंदावन
संस्कारीत मन
तुळस - तुळसपान
प्राणवायुदान
तुळस - मुळावण
नीतळ आंगण
तुळस - रोपुलें
दारांत सोबुलें
तुळस - मानपान
अखंड वरदान.
तुळस - तुळशीचें लग्न
ती कुळारा मग्न
तुळस - तुळस
तुळस - तुळस.



# • देवी म्हात्म्य

भगवतीचें रूप
आठयता - आठयतां
अंतःस्करणाच्या गाभाऱ्यांत
तंद्रीन जालों
जगदम्बा माता
मुख-कमळ प्रसन्न
गज - द्वय न्हांण घालता
मस्तकीं शिंवर
नीज गावांत
देवीच्या देवळांत
अगणित सुवाळ्ये
चलता दीस - रात.
पुराण - कीर्तनां
चातुर्मासाचीं भजनां
देऊळ घुमता
मातेच्या नाम गजरांत.



मंत्रमुग्ध स्रोत्ये
तंद्री विसरले
नाटक - कालो,
कलाकार चंवरले.
तुस्त भगवतीची
खुल्या गळ्यांन गावपाक
सभोंवतणीं कलाकारांचो जागर.
आईच्या देंवळांत
उपाट धादोसकाय
सोदतां गिन्यान-मार्ग
भक्ती करींत सदींच.
धरता संकल्प हांव
तुज्या पायां लागींच.
"गजान्त लक्ष्मी म्हजे आई
म्हाकां दी थाकाय तुज्या पायीं!"



# • भगवंत - गीत

रे कृष्णा
करूं नाकां फकाणां
तूं गीतेची
करूं नाकां फकाणां ।।धृ।।
गोपाळा तुजी
सुरेल मुरली
वाजली तेन्ना
राधा रमली
गोकुळांत इश्टागत
लजली - लजली ।।१।।
मदनां,
दह्या - दूदाच्यो
तुवें फोडल्यो तवल्यो
रंग मारूंन
गोपीकां भिजल्यो
यमुनेच्या पदराक
वस्त्रां कोणें लिपयलीं? ।।२।।



भगवंतान,
शस्त्र सांडलें
पूण रण गाजयलें
दिव्य अशें तें
सत्य सांगलें.
पार्थाचें रे तुवें
सारथ्य आपणांयलें॥३॥
कृष्णा - कृष्णा -
करूं नाकां फकाणां
कृष्णा - कृष्णा -
कृष्णा - कृष्णा -



## • शेरवड

पायली - पाय

0 0 0 0 0

जायेली जाय

0 0 0 0 0

तायली ताय

0 0 0 0 0

दायली दाय

0 0 0 0 0

फायली फाय

0 0 0 0 0

बायलें बाय

0 0 0 0 0

भायलें - भाय

0 0 0 0 0

मायाली - माय

0 0 0 0 0

सायल्या - साय

0 0 0 0 0



# • टी टम् टी टी टम् टी टम्

‘इंटोनेशन’चें आसलें
उक्तें प्रदर्शन
उच्चार स्वरांच्या आवाजाचें
जातालें ‘इमिटेशन.’
यमक, ताल, विराम -
आनी स्वराघात
मदींच उपसर्ग
उठटा सुस्कारत.
नाम, सर्वनामांसयत
विशेषणां
खिदळतालीं क्रियापदां
आनी क्रिया - विशेषणां.
म्हाकां मात खबर ना;
आदेश कांय सूचनां -
टी टम्
टीटीटम्
टीटम्
टीटम्.



ीटीटम्
ीटम्
ीटी
ट्म्टम्.
तेंतल्यांत वाजलें
ठोक्यार ठोक्ये नाडयेचें
पुलीसांक शेकान - शेक
भियल्ल्या चोरांचें.
वदवपाक तांका
बडयताले दुभावाचे.
हयकारार्थक,
न्हयकारार्थक,
कांय प्रस्नार्थक –– ?
जाणां जावंक जाय
एकलो सकारात्मक.



टी टम्
टीटीटम्
टीटम्
टीटम्.

टीटीटम्
टीटम्
टीटी
टम्टम्.



# • नाटक

नटेश्वराचें नमन आळोंवन
सूर आनी राग गायतात.
वाद्य - कलेचो संगम घडयत
रंग वेश परगटतात.
पडदो उगडूंन
नाटक सुरू
हावेस दारववूंक
मुखामळां कुरूं
रंगमाचयेर सोबयता डाव
अभिनयाचे रस णव
डायलॉग - पदां
जावंची पाठ
ताळयेर - ताळयो
मेळच्यो उपाट
सोबीत शिरंगार
मोग-रस
नाटकाचो मुखेल
प्राण - रस.



शांत - रस
उप्रांत उप्रासता
तेन्ना भुरगीं बाळां
झेमता नेटक.

अचकित भैरवी
गायता नाटक
तेन्ना शेजार
हटक - सटक.

नाटकाक जाय
मायक आनी लायट
जोडून स्पीकर
आनी स्पोट.

दिग्दर्शी आनी
हेर तांत्रीक
लेखक मात
बरो मांत्रीक.



नाटक बरें
गावचें - रंगचें
करमणूकीचें
साधन - नेटक.

नाटक बरें
हासचें - खेळचें
जीणेंचें -
पडबिंब सार्थक.



# • शिगमो

शिगमो नाचता
शिगमो खेळटा
झन-झन-झन
कासाळें वाजता.
ढोल वाजता
गडो खूदता
तड-तड-तड
तासो तडतडटा.

पयलें नमन घालूं ऽ
पयल्या गणाबा
घुमचें कटर - घुम ऽ
नाच रे पाणुबा.
आंब्यांचे ताळयें तशे
उस्केचे ताळयें
बले - बले- बले ऽ
नाचता मेळयें.



होर - गया -
शून्यो खाया
होऽस्सया - होऽस्सया
होऽस्सया - होऽस्सया.



# • वर्तुळ

आयज वर्तुळ - वर्तुळ
जालां चिरवलाचें बसकण
सगलें उदक रवदूळ
जालां साम्राज्य रेंबकण.
आयज वर्तुळ - वर्तुळ॥
दौलत ही
        'केल्ल्दयांची'
उतावळ्या
        'पात्रांची'
संपत ही
        'जळवांची'
दसलेल्या
        'मत्तांची'
लारव ही
        'कुल्लेची'
पित्त चाल
        'सत्तेची'
हें वर्तुळ - वर्तुळ
        नाडापेन्न वर्तुळ ॥



कौरवांचें रंव - रंव ह्यें
शकुनीचें यंव - त्यंव
दुःशासन भक्त ह्यो
हडप - गडप पात्रांव.
हें वर्तुळ - वर्तुळ
गडगडें खूर्दळ ॥
ह्यो द्रोण - दोश नश्ट नसय
ही कृप-कृपा अधिकार फसय
आतां कर्ण-मर्णाचो सुवाळो बडय
आतां भिष्म-भस्म करूंन वडय.
रसातळाक वचूं दी -
हें धृतराष्ट्र मंडळ ॥
वर्तुळ जावं दी
        'भीमरथ'
वर्तुळ जावं दी
        'अर्जुनव्रत'.
जावं दी वर्तुळ
        'लोकमत'.
जावं दी वर्तुळ
        'महाभारत'!



# • तूं चित्रकार

तूं चित्रकार,
मूर्त साकार - साकार
तुजें ध्यान
पूर्ण अवतार!
तूं चित्रकार,
मन उदार - उदार
तुज्यां दोळयांत
भाव झालर!
तूं चित्रकार,
अंतःस्करण झूर
तुजें सपन
तंद्री - तनर!
तूं चित्रकार,
हस्तुकीं कलर - कलर
तूं रे अदृश्टांचो
कलाकार !



तूं चित्रकार,
देहभान विसर
तुजें चित्र
सृश्ट आकार !
तूं चित्रकार,
तूं चित्रकार !



- रंगमाची, वळवय; यंग स्टार्स ऑफ परवरी; वासंतिक साहित्य मेळ, वळवय- सावय-वेरें आनी उदेन्तेचे वांगडी, दिवचल ह्या संस्थांचे प्रतिनिधीत्व केला.

- ११ फेब्रुवारी १९९५ दिसा 'ऋतुजा प्रकाशन'चें पयले पुस्तक - 'ऋतुमति', हें अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य परीशद, शिर्सी (कर्नाटक) हांगा उजवाडा येता.

## लेखकाचीं फुडलीं कांय प्रकाशनां -

- गजवैभव (उत्सव - संस्कृती, वळवई)

- वज्ररेखणी (समाज प्रबोधन)

- सूरसम्राट (एक-पात्री प्रवेश)

- ललीत निबंध संग्रह.

- कोंकणीचे प्रमाणीकरणाचे शास्त्र आनी संशोधन.

ऋतुमतिचे गुणधर्मानुसार ब्रम्हांड (Universe) निर्माण जालां ; सृश्ट फुलल्या-फळल्या. 'ऋतुमति' - सैम परिपूर्ण आसा. उदेन्त्यांक भावतात त्यो मदन-मंजिरी आनी अस्तंत्यांचे ॲडम-इव्ह ; हीं दोनूय ऋतुमतिचीच परिपक्व रूपां. तीं Adulthood आपणांयतात (वयांत येतात) आनी धाय दिको चैतन्यमय जावन प्रकाशतात. नाद, गंध, स्पर्श, रंग, रूप खुलयत ऋतूंचे दान फांकारपी मोग सृश्टीचें भान थरता तेन्ना 'ऋतुमति'क मोंव्हर येवन ती परिपक्वतायेन भारलेली दिसता. खऱ्यानींच जीवीताक अर्थ भरता. Inflorescence च्या रूपात भावार्थान ती आपल्या भुरग्यांक मांडयेर खेळयता आनी म्हूण सृश्ट जीती जागती थरता. तिच्यातली सौंदर्यदृश्टी, कलात्मकता, नैसर्गिकता आनी उत्पत्तीच्या गुणधर्माची जागृती, अस्तित्त्वासयत हुंकारता तेन्ना ऋतुमति'ची भाव-झालर जीवीतासयत सदृश्यतायेन साकारता.

**ऋतुजा प्रकाशन, वळवय.**

*छापपी : सम्राट प्रिंटर्स, बाणस्तारी, गोंय. फोन: (०८३२) २८७७५५.*